एका काळार तीन क्रूर लुटमारे आशिल्ले. ते लांब हातकापे काळे झगे आनी लांबोडयो काळयो तोपयो घालून लिपत लिपत भोंवतालें. एकल्या कडेन लांब नळयेचें पिस्तूल, दुसऱ्या कडेन मिरयां-पिठ्ठ्याची फुंकणी आनी तिसऱ्या कडेन व्हडली तांबडी कुराड आशिल्ली. हेंच घेवन ते लोकांक भिवयताले आनी तांकां लुट्टाले.

एके राती तांची भेट, टिफनी नांवाच्या एके अनाथ चलये कडेन जाली. “हें सगळें तुमी कित्याक करतात?” चलयेन तांची इतली संपत्ती पळोवन विचारलें. उपरांत लुटमाऱ्यांनी खूब विचार केलो आनी तांचें मन बदल्लें आनी तांणी एक नवें काम सुरू केलें.



एका काळार तीन क्रूर लुटमारे आशिल्ले. ते लांब हातकापे काळे झगे आनी लांबोडयो काळयो तोपयो घालून लोकां कडल्यान लिपत लिपत भोंवताले.





एकट्या कडेन लांब नळयेचें पिस्तूल, दुसऱ्या कडेन मिरयां-पिट्याची फुंकणी आनी तिसऱ्या कडेन व्हडली दोन पात्याची तांबड्या रंगाची कुराड आशिल्ली.





ते रातच्या काळखांत वाटसऱ्यांक आनी प्रवाश्यांक सोदीत रस्त्यार भोंवत आसताले.





ते सगळयांक भिवयताले, धमक्यो दिताले. तांकां पळोवन बायलो बेशुद्ध पडटाल्यो. धाडशी दादले आपलो जीव वाटावपा पासत धांवताले. त्या लुटमाऱ्यांक पळोवन सुणीं लेगीत नाच्च जातालीं.



गाडयो थांबोवपा खातीर लुटमारे घोड्यांच्या
दोळयांत मिरयां पिटो फुंकताले.







कुराडेन ते गाडयांचीं चाकां मोडटाले.

ते आपल्या पिस्तुलांनी प्रवाश्यांक धमकायताले आनी मागीर तांकां लुट्टाले.





हे लुटमारे वयर एका दोंगरार एके घोलींत रावताले. थंयच ते आपली लूट लिपोवन दवरताले.





तांचे कडेन पेटयो भरून भांगर, हिरे, पयसो, घडयाळी, मुदयो आनी मोलादीक खडे आशिल्ले.



एके काळे किट्ट, थंडगार, काळखे राती लुटमाऱ्यांनी एक गाडी आडायली. तातूंत फकत एकटोच प्रवासी आसलो – टिफनी नांवाची एक ल्हान अनाथ चली. तें आपल्या दुश्ट काकी वांगडा रावपाक वतालें. लुटमाऱ्यांक मेळून टिफनी खूब खूश जालें.



टिफनी कडेन मोलादीक अशें कांयच नासलें. म्हणून लुटमाऱ्यांनी ताकाच एके गरम शालींत गुंठलायलें आनी आपल्या वांगडा घेवन गेले.



घोलींतल्या एका कोनश्याक टिफनी पासत तांणी मोवशें हांथरूण घातलें. तें थंयच न्हिदलें.



दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठल्या बरोबर ताका आपल्या भोंवतणी धन-दौलतीन भरिल्ल्यो चकचकीत पेटयो दिसल्यो.

“हें सगळें कित्या खातीर?” टिफनीन विचारलें.

लुटमारे ताच्या ह्या प्रस्नान घुस्पले, गोंदळले. हें सगळें धन कशे खर्च करतले हाचो तांणी विचार केन्ना करूंकच नासलो.



मागीर आपल्या धन-दौलतीचो बरो उपेग करपा पासत तांणी सगळ्या अनाथ, शेणिल्ली, रस्त्यार सोडिल्ल्या आनी दुख्खी भुरग्यांक एकठांय केली.







मागीर तांणी त्या सगळ्या भुरग्यांक रावपा खातीर एक सोबीत म्हाल विकत घेतलो.



सगळीं भुरगीं तांबडो झगो आनी तांबडी तोपी घालून, आपल्या नव्या घरांत रावपाक गेलीं.

त्या म्हालाची काणी पुराय देशांत पसरली. आतां दर दिसा त्या तिनूय लुटमाऱ्यांच्या दारांत नवीं भुरगीं येवंक लागलीं वा लोक भुरग्यांक घेवन येवंक लागले.



लग्नांचीं जायतसर भुरगीं त्या म्हालांत रावलीं. उपरांत भुरग्यांनी म्हालाच्या चारूय वटांनी आपआपलीं घरां बांदलीं. ल्हवू – ल्हवू थंय एक गांव वसलो. थंय लोक तांबडे झगे आनी तांबड्यो तोपयो घालताले. उपरांत त्या भुरग्यांनी आपल्या पोसक्या बापायांची याद म्हणून तीन ऊंच बुरूज बांदले. तिगांय लुटमाऱ्यां पासत एक – एक.

